# असो आशिल्ले गांधीजी

## दुसरो वांटो

*"...हाडां–मांसाचोच असलो हो मनीस हे धर्तरेचे फाटीर चलतालो भोंवतालो म्हणपाचें फुडले पिळगेक खरें लेगीत दिसचें ना..."*

*—अल्बर्ट आआिन्टाअिन*



स्वातंत्र्यात् लभते परम् ।

गोमंत भारती प्रकाशन

१९६०

उ ज वा डा व पी
वसंत पांडुरंग बोरकार
जे. के. बिल्डींग नं. ४
गां ब दे वी–मु म्बै ७.



पै ली छा प
२६ जा ने वा री
१ ९ ६ ०

मोल :—
०·५० न ये पै से
सवूय वांटे अेकठांय
२·५० न ये पै से
बां दि ल्लें पु स्त क
३.०० न ये पै से

•

छा प पी
व्यं. रा. शि ग रे
सर्वोदय मुद्रणालय,
४५० बुधवार, पुणें २.

## : ३४ : गांधीजी आनी सोरोप

प्रार्थना जाल्ली आनी गांधीजी तशेच लोडाक तेंकून बशिल्ले. आनी अेकल्या कडेन खबरी करताले. आंगार अेक चादर ओडिल्लो.

अितल्यांत त्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्या मनशाक गांधीजींनीं ओडिल्ल्या चादरार काळें–काळें कितें वयर सरता तें दिश्टी पडलें. पळेता जाल्यार अेक सोरोप वयर खांदार चडला आनी मुखार खैं वचचें हें फणो हालवन पळेता. त्या मनशाचें लक्ष खबरींत ना हें पळवन गांधीजींनीं विचाल्लें : कितें पळेता ?"

आनी कोणूय जाल्लो जाल्यार सोरोप म्हणून किळांच मारतलो आसलो. पुण ताज्यांत शिटुकसाण आशिल्ली. ताणें येवजिलें कि हांवें सोरोप म्हुण तोंडांतल्यान अुतर काडलें जाल्यार बोवाळ जातलो. सगलीं भियेतलीं. आनी सोरोपूय भियेतलो आनी गांधीजींक चाबतलो.

देखून ताणें म्हळें, "कांय न्हय बापूजी, अेक सोरोप तुमचे फाटीर चडला. तुमी हालूं धोलूं नाकात. हांव अचळय चादर काडटां."

गांधीजी तशेच थीर बसून रावले. त्या मनशान ल्हवूच चादर आंगावेलो काडलो. आनी पैस फापुडलो. सोरोप भायर सल्लो तसोच चलूंक लागलो.

कांय दिसां अुपरांत कोणें अेकल्यान गांधीजींक विचाल्लें, "सोरोप जेन्ना तुमचे फाटीर चडलो तेन्ना तुमकां कितें दिसलें ?"

"खिण भर हांव भियेलों. पुण अेक खिणूच. मागीर मनांत आयलें, हो सोरोप म्हाका चाबीत जाल्यार हांव लोकांक सांगतलों,

ह्याका मारूं नाकात. सोरोप दिसना फुडें तुमी ताका मारूंक धांवतात. आनी हांवूय तुमकां आडायना. पुण ह्रो सोरोप म्हाका चाबिल्लो जाल्यार हांव म्हणटलों आसलों कि ह्रो म्हाका चाबला म्हुणणूच ताका मारूंक जायना. ताका अभयदान मेळुंकूच जाय.

****

## : ३५ : गुरुदेव आनी सोरोप

सोरपा वैल्यान आनीक अेके गजालिची याद जाली. गुरुदेव रवीन्द्रनाथ ठाकुरांल्या शांतिनिकेतनांत पैलीं सोरोप खूप येताले. पुण गुरुदेव तांकां मारूंक दिनासले. ते म्हण्टाले कि सोरोप केन्नाच मनशांचे वाटेक वचनात. ते आपले वाटेन वतात. पुण जेन्ना मनीस तांचे वाटेक वता तेन्नाच ते आपल्या रक्षणा खातीर चाबतात. आमी तांचे वाटेक वचना जातकच जालें.

शांतिनिकेतनांत कोणूच केन्नाच सोरपांक मारिनात. सोरोप दिसलो म्हण्टच कुशीक सरतात. अितले सोरोप आसुनूय शांति-निकेतनांत सोरोप चडशे कोणाक चाबिनात.

****



## : ३६ : न्यायाधीशय अुबो रावलो

हिंदुस्तानाक स्वराज्य मेळचें ह्या पसत ब्रिटीश सरकारा आड गांधीजी जितले झुजले तितले घडये आनीक कोणूच झुजूंक नात जातले. ह्या सरकाराच्यो आगळिको पळवन गांधीजींनीं ताका "सैतानी सरकार" लेगीत म्हळ्ळें.

पुण वैंज पिडेच्याच आड आसता, पिडा जाल्ल्या मनशाविशीं ताका मोगच दिसता. तशे गांधीजी अिंग्लीश सत्ते आड आसले, पुण अिंग्लीश लोकांविशीं मात तांगेल्या काळजांत मोगूच वसतालो.

हाका लागून जांच्या आड ते झुजताले ते लेगीत गांधीजींक मान दिताले.

१९२४ तली खबर. राजद्रोहाच्या आरोपाखाल गांधीजींक ब्रिटीश सरकारान धरिल्ले. ख्यास्त करपा खातीर जेन्ना तांकां कोर्टांत हाडले तेन्ना थैं जमिल्लो सगलो लोक अुठून अुबो रावलो ! संवसारांत खैंचेच कडेन अशें घडलां ? तें कित्याक, ख्यास्त दिवपी न्यायाधीशय अुठून अुबो रावलो. तो म्हणूंक लागलो, " राजकीय वातावरणांत बदल घड्टकूच तुमी ही ख्यास्त भोगचे पैलींच सुटले जाल्यार म्हजे अितली खोस आनीक कोणाक जावंची ना ! "

ब्रिटीश सरकाराचो नोकर ह्या नात्यान ताणें आपलें कर्तव्य केल्लें. अशे आसुनूय गांधीजीं विशीं ताका केदो आदर दिस !

****

## : ३७ : गांधीजी आनी जेलर

गांधीजींची निमाणी बंदखण १९४२ त, पुण्याच्या आगाखान राजवाड्यांत जाल्ली. त्या वेळार कटेली नांवांचो अेकलो मनीस बंदखणिचो सुपेरिटेंडेंट आसलो. सुमार दोन वर्सां ताणें हें काम केल्लें.

दोन अडेच वर्सांनी गांधीजींक जेन्ना सोडपाचो हुकूम जालो तेन्ना कटेली आदल्या दिसा गांधीजींक मेळूंक आयलो. आनी गांधीजींच्या पांयार घालून वेवन म्हणूंक लागलो :

" फाल्यां तुमी सुट्टले तेन्ना हांव सरकारी नोकर ह्या नात्यान गणवेश घालून अुबो आसतलों. त्या वेळार तुमचो आशिर्वाद घेवंक म्हाका मेळचो ना. देखून आजूच तो घेवंक हांव हांगा आयलां."

गांधीजी बंदखणिच्या मुखेल्याचीं हीं अुतरां आयकत रावले.

****



## : ३८ : अेके मुस्तींतलो विरोधीच अिश्ट

दक्षिण आफ्रिकेंत आसतना गांधीजींनीं जनरल स्मट्स हांकां नाकापुरो करून अुडयल्लें. अेका सारखीं आठ वर्सां ते तांचे आड झुजले. पुण निमाणें गांधीजींनीं जनरल स्मट्स हांकांय मोगान जिखलेच.

दक्षिण आफ्रिकेचे बंदखणींत आसतना जनरल स्मट्स हाणीं तांकां पुस्तकां वाचूंक घाडचीं. आनी गांधीजींनींय तांकां आपल्या हातांनीं केल्लें अेक जोतें धाडून दिल्लें.

खूब वर्सां अुपरांत, "अेका वेळावेल्या विरोध्याचे प्रणाम" ह्या माथाळचा खाल जनरल स्मट्स हाणीं अेक लेख बरयलो. तांतूंत तांणीं बरयल्लें कि गांधीजींनी तयार केल्लें जोतें घालपाची योग्यताय म्हज्यांत नासली म्हणून हांवें तें वापरिनासतना तशेंच सांबाळून दवल्लें.

तें कित्याक, १९४२ त जेन्ना अिंग्लंडांतल्या वर्तमानपत्रांनीं गांधीजीं आड जायतें बरप येतालें तेन्ना तें सगळें खोडून काडपाचो वावर कोण करी खबर आसा ? जनरल स्मट्स !

गांधीजींचो केदो विजय हो !

****

## : ३९ : जळारांचेर अुपाय

आश्रमांत जळारांचो खूब त्रास जातालो. कोणाकूच सारखी न्हीद पडनासली. कितें करचें, कांयच समजनासलें. कोणें तरी म्हळें, जाळी वापरची.

गांधीजींनीं त्या मनशाच्या तोंडाकडेन पळेलें आनी म्हळें: "जाळी ? हिंदुस्तानांतल्या कितल्या लोकांक जाळयो घेवपाची तांक आसा ? जांकां अेक खेपे सारकें जेवंक लेगीत मेळना ते जाळयो कशे घेंवक पावतले ? म्हजो अेकल्याचो प्रश्न ना. लाखांनी लोकांनी कितें करचें हें सांगात."

कितें करचें हें कोण सांगतलो ? अखेरेक अेक दीस कोणें तरी गांधीजींक सांगलें कि रॉकेल आंगाक लावन न्हिदल्यार जळारां चाबिनात. जालें, गांधीजींक अुपाय मेळ्ळो. ते तेदूसच्यान आंगाक रॉकेलाचो वास लावन न्हिदूं लागले. आश्रमांत आसतना गांधीजींनीं आपली अंकटयाचीच तोखणाय केन्नाच करून घेतली ना.

****



## : ४० : सर्वोद्याची कळेचावी

कर्णाटकांत हुदली नांवाच्या अेका गांवांत गांधी–सेवा संघाचें संमेलन आशिल्लें. गांधीजी, सरदार वल्लभभाअी, राजेंद्र बाबू बी व्हड व्हड मनीस आयिल्ले. संमेलनांत वांटो घेवपा खातीर शेंकडयांनीं लोक जमिल्ले.

दीस आसले गिमांचे. देखून सगल्यांनी मुस्तायकी आनी हांतुणां थोडीं हाडिल्लीं. पावस येत अशें कोणाक दिसूंक नाशिल्लें. अितल्यांत, खैंच्यान कोण जाणा, अुटंगारां ो पावस पडूंक लागलो. माटव भिजलो. सगल्यांचीं आंगावैलीं ओलीं जालीं.

आतां कितें करचें ? सगले येवजूंक लागले. लोकांक गांवांत व्हरून अेका घरांत दवरचे अशें थारायलें. ते प्रमाण आप-वावुरपी लोकांची वेवस्ता करूंक लागले.

अेकल्यान गांधीजीं सरीं येवन म्हळें, “ तुमी येयात. पावसांत तुमी भिजूं नाकात. ”

सरदारांनीय म्हळें, “ हय, बापूजींक पैलीं व्हरात. आमी सगले मागीर वचुंया. ”

पुण गांधीजींनीं स्पष्ट सांगलें, “ ना, हांव पैलीं वचपाचों ना. पैलीं बाकिच्यांची वेवस्ता जावंदी, मागीर म्हजी. ”

तिळसांज जाली. सगल्यांची वेवस्ता जाल्ली. पण ते म्हणसर अितलो कळाव जाल्लो कि दुसरे कडेन वचूंक गांधीजी तयार जायना जाले. तांणीं ती रात थैंच काडली. चुड्टां, मल्लां, हातरपाटे हाडून कसो तरी आश्रय करून घेतलो.

दुसऱ्या दिसा संमेलनांत वांटो घेवपा खातीर ते चिखलांतल्यान कुमरी आश्रमांत आयले.

गांधीजींच्या सर्वोदयाची कळेचार्वीच ही. आदीं बाकिचे, निमाणें हांव. गांधी सेवा संघाच्या संमेलनांत लोक जमिल्लो सर्वोदय कितें तो समजून घेवपा खातीर. गांधीजींनी प्रत्यक्ष आचरणान तो समजावन दिलो.

****

## : ४१ : बाकिच्यांचें जातकच मागीर म्हजें

सेवाग्रामाक येवन रावतकच थें पोष्ट ऑफिस आयलें. कांय दिसांनी टेलिफोनय आयलो. अश्या संवसाराकडेन सबंद दवरचो आशिल्लो देखून गांधीजींक ह्यो दोनूय गजाली गरजेच्यो आसल्यो.

अेक दीस अेकल्यान येवन गांधीजींक विचाल्लें: "सेवाग्रामांत विजेचे दिवे कित्याक नात ?"

गांधीजी विजेचे आड नासल्ले. त्या मनशाक हाची खबर आशिल्ली देखून ताणें हो प्रश्न विचाल्लो.

गांधीजींनीं म्हळें: "हांव विजेचे आड न्हय, हें तुमी जाणात. पुण विजेच्या दिव्यां बगर म्हज्यान रांव येता. तरी आसतना सेवाग्रामांत वीज आयली जाल्यार म्हाका वायट दिसचें ना. पुण म्हजी अेकूच अट आसा. आदीं हिंदुस्तानातल्या सगल्या गांवांनी वीज येंवदी. निमाणे सेवाग्रामाक. ते मेरेन हांगा वीज नाका."

आवै जशी आदीं सगल्यांक वाडून आपुण जेवता तशें सर्वोदयाचें. आदीं बाकिच्यांच्यो गरजो भागून जातकच मागीर निमाणें आपल्यो. ते मेरेन आपणें तांचे बगर चलवंक जाय.

****

## : ४२ : हांव मोटो हरिजन

श्रीमन्नारायण अग्रवाल हांणीं सांगिल्ली गजाल ही.

गांधीजी जेन्ना पैले वैलेच सेवाग्रामाक आयले तेन्ना अग्रवालय तांचे बराबर आसले. सेवाग्रामाक वचून अेक दोन दिसां अुपरांत अेक दीस अेक म्हालो आयलो आनी गांधीजींक विचारूंक लागलो :

"कापणी करूं ?"

गांधीजींनीं ताका विचाल्लें : "तूं हरिजनांची कापणी करता काय ना ?" ताणें भोळचा भावार्थान जाप दिली : "शी : हांव तांकां आफडी लेगीत ना."

गांधीजींक हांसो आयलो–"तशें जाल्यार मागीर तूं म्हजी कापणी कशी करतलो ? हांव तर सगल्यांपरस मोटो हरिजन !"

गांधीजी खऱ्या अर्थान हरिजन आशिल्ले हांतूंत दुबावचऱ्या ना. पुणून तांणीं हरिजनांखातीर जें कार्य केलें तें भारताच्या अितिहासांत भांगराच्या अक्षरांनी बरवन दवरपासारकें आसा.

****



## : ४३ : हरिजन सेवेचें मूळ

गांधीजी स्वभावान स्वावलंबी आसल्लेच. पुण परिस्थितिनूय तांकां स्वावलंबी केल्ले.

दक्षिण आफ्रिकेंत आसतना अेक खेपे ते आपली कापणी करून घेवपाक अेका सलूनांत गेले. पुण आमच्या देशांत आमी जशे म्हारां–चामारांक वागयतात तशे आफ्रिकेंत गोरे लोक आमकां लेखतात. हाका लागून त्या म्हाल्यान गांधीजींची कापणी करिना म्हळें. गांधीजींक वायट दिसलें. ते तडक अेका पसऱ्यार गेले आनी कापणी करपाचें अेक यंत्र विकतें घेवन आयले. हारसो मुखार दवल्लो आनी आपणेंच आपली कापणी केली. मुखावेली कापणी बरी जाली. पुण फाटली ? थै खापां पडलीं !

असलेच केंस घेवन ते कोर्टांत गेले. बाकिच्या वकिलांक गांधीजींचें हें ध्यान पळवन हांसूंक आयलें.

‘ गांधी, तुमचे केंस हुंदरांनीं खाले काय कितें ? ’

“ ना, गोऱ्या म्हाल्याक म्हज्या काळ्या केसांक हात लावपाचो धीर जालो ना. म्हुण हांवेंच म्हजी कापणी केली. ”

गांधीजी म्हण्टातः “ त्या गोऱ्या म्हाल्याचो अन्याय नासल्लो. ताणें म्हजी कापणी केल्ली जाल्यार ताजें गिरायक बुडटलें आसलें. आमी आमच्या देशांत हरिजनांक कशे वागयतांत ? तांतलीच पत ही. ”

गांधीजी आपले म्हालेच न्हय तर मडवळूय जाल्ले. तें कित्याक, आपले भंगीय ते जाल्ले. अितलेंच न्हय, तर ह्या सगल्या कामांत तांणीं प्रावीण्यय जोडिल्लें !

****

## : ४४ : सेवेचे अधिकारी

दक्षिण आफ्रिकेंत येस जोडून गांधीजी जेन्ना हिंदुस्तानांत रावंक आयले तेन्ना आपल्या फिनिक्स आश्रमांतल्या लोकांक तांणीं पैलीं धाडून दिले शांतिनिकेतनांत.

शांतिनिकेतनांत त्या वेळार पू. काकासायब कालेलकार आसताले. थैं ते शिकवपाचें काम करताले. त्या आदीं तांणीं जायतो राष्ट्रीय वावर केल्लो. क्रांतिकारी गटांत राव, राष्ट्रीय शाळा चलय, स्वराज्या खातीर जें जें कितें करूंक जाय आसलें तें तें सगळें कर. अशे जायते अणभव घेत घेत ते शांतिनिकेतनांत रवींद्रनाथ ठाकुरांलो प्रयोग पळवंक राविल्ले. फिनिक्स आश्रमांतले लोक शांतिनिकेतनांत येनाफुडें काकासायब तांच्यांत भरसले. तांचे सकाळ सांजचे प्रार्थनेंत वांटो घेवंक लागले. जेवणूय तांचेच बरावर घेवंक लागले. फिनिक्स आश्रमांतल्या लोकांक थैं 'फिनिक्स पार्टी' म्हणटाले. हे लोक सकाळचे अेक वर श्रमदान करताले. शांतिनिकेतनाच्या जाळवणदारांनीं तांकां अेक तळी पुरोवपाचें काम दिल्लें.

अेक दीस सकाळचे हे लोक प्रार्थना करून श्रमदानाक गेल्ले. परते येवन पळेतात जाल्यार कोणें तरी तांचे पसत फळां–बिळां सगलीं कापून बशयेंत घालून दवल्ल्यांत. काकासायब हाणीं तें पळवन विचाल्लें :

" हें सगलें कोणें तयार केलें ? "

" हावें–" गांधीजींनीं जाब दिली.

"तुमी कित्याक केल्लें? तुमी सगळें करप आनी आमी बसून खावप हें म्हाका बरें दिसना." काकासायब हाणीं म्हळें.

"तातूंत कितें जालें?"

"तुमची सेवा घेवपा इतली योग्यताय आमकां आमूक जाय."

"ती आसाच." गांधीजींनीं म्हळें.

काकासायब तांच्या तोंडाकडेन पळेत रावले. गांधीजींनीं हांसत हांसत म्हळें: "तुमी सगळे श्रमदान करूंक गेल्ले. आनी आतां रोखडे परते वतले. म्हाका वेळ आशिल्लो. वरसभर श्रमदान केल्ल्यांक इतली योग्यताय आसाच."

काकासायबांक म्हणचें आमलें कि गांधीजी सारकेल्या मोटया मनशाकडल्यान सेवा घेवपाची योग्यताय आशिल्ले आमी न्हय. पुण गांधीजींक सगळेच सारखे. हे लोक काम करतात म्हणटकच तांची सेवा करप आपली लागणूक थरता अशेंच तांकां दिस.

****



## : ४५ : तातूंत कितें ?

असलीच अेक दुसरी गजाल महादेवभाओी हांच्या जीवितांतली आसा.

अुत्तर हिन्दुस्तानाच्या दौऱ्यार गांधीजी आसले. महादेवभाओी तांचे चिटणीस. तेय बरोबर आसले. अेक दीस महादेवभाओी कडेन गांधीजींनीं अेक म्हत्वाचें बरप बरवंक दिलें. सांजचे बरवंक बशिल्ले ते मध्यान रात मेरेन बरयत रावले. हाका लागून तांकां न्हिदूंक अुशीर जालो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं अुठून पळेता जाल्यार, गांधीजींनीं महादेवभाओीं खातीर चा तयार करून दवल्ला ! खासा गांधीजी चा पियेनासले. पुण महादेवभाओींक चा जायच म्हणपाचें ते जाणां आसले. देखून तो तयार करून महादेवभाओी केन्ना अुठ्ठात हाची वाट पळेताले. महादेवभाओींक जाग आयली तेन्ना तांकां ही सगली तयारी पळवन अेके तरेचेंच दिसलें. पुण गांधीजींनीं म्हळें :

" तातूंत कितें ? रातीं जागराण जाल्लें न्हय ? "

गांधीजी व्हडले मनीस खरे, पुण ल्हान ल्हान गजालीय तांकां व्रेम बऱ्यो समजताल्यो.

****



## : ४६ : असली निष्ठा जाय

१९१५ च्या डिसेंबरांत मुम्बैंत राष्ट्रीय सभेची बसका भरिल्ली. गांधीजींचो राबितो त्या वेळार मारवाडी विद्यालयांत आसलो. सांजवेळची प्रार्थना जाल्ली. गांधीजी कितें तरी बरयंक बशिल्ले. बगलेक बसून पू. काकासायब कालेलकार अेक पुस्तक वाचताले.

शांतिनिकेतनांत आसतना फिनिक्स पार्टींत भरसून गेल्ले आसुनूय काकासायब अजून गांधीजींचे अंतेवासी जावंक नासले. त्या दिसा कोणें अेकल्यान काकासायबांक म्हळें : " काका, तुमी आमच्या लोकांकडेन इतले अेकरूप जाल्यात, पुण अजुनूय तुमी आमच्या आश्रमांतले कशे जावंक नात हें समजना ! "

काकासायबांनीं म्हळें : "जांचे बरोबर हांवें आज मेरेन देशसेवेचें काम केल्लें तांचो म्हजेर सगल्यांत पैलो अधिकार आसा. तांणीं कितेंय नवें काम आंगार घेतलें जाल्यार हांवें त्या कामाक हातभार लावंक जाय. ना जाल्यार, तांकां नवे नवे मनीस सोदीत रावचें पडटलें आनी हे वटेन हांव हें धर तें सोड करीत भोंवतलों. असल्यांनीं देशसेवेचीं कामां कशीं जावंक पावतलीं ? "

गांधीजी बरपांत गुल्ल आसले. पुण तांच्या कानार हीं उतरां पडना फुडें तांच्या तोंडातल्यान भायर सल्लें : " काका, तुमचीं हीं उतरां भांगराच्या मोलाचीं. हिन्दुस्तानांतल्या सगल्यां कार्य-कर्त्यां भितर हे तरेची अेकामेकां विशीं निष्ठा आसत जाल्यार कितलें बरें जायत ! "

****

## : ४७ : धुवेक घोवागेर पावयल्ल्या वरी

पू. काकासायब अेकेकडेन म्हण्टात :

"मुम्बैची बसका जातकूच हांव बडोद्याक गेलों आनी थैं सयाजी-पुरा नांवांच्या अेका गांवांत ग्रामसेवेचें काम करूंक लागलों. गांधीजींक कळ्ळें किं हांव जरूय केशवराव देशपांडे हांच्या हाता खाल रावन काम करता आसलों तरूय सयाजीपुरांत म्हजे कडेन व्हडलें-शें काम ना. म्हुण गांधीजींनीं श्री. देशपांड्यांक अेक चीट बरवन धाडली : " तुमी काका कडल्यान व्हडलें-शें काम घेनात. हांवें आश्रमांत अेक राष्ट्रीय शाळा काडल्या. तातूंत काकांचो म्हाका आधार जातलो. तेन्ना काकांक आतां आमचेकडेन सोंपयात."

देशपांडे सायबांक हें वाचून बरें दिसलें. तांणीं म्हाका सांगलें ' आमी गंगानाथ विद्यालयान जें सादूंक सोदताले ताचेंच हें मोटें रूप. तेंन्ना आश्रमांत वचून राव.'

आनी आवै–बापूय जशे धुवेक घोवागेर व्हरून पावयतात तशे देशपांडे सायब म्हाका गांधीजींच्या आश्रमांत पाववन गेले !"

****



## : ४८ : आपलें वेगळेपण सांबाळुनूय

गांधीजी श्री. गोपाळ कृष्ण गोखले हांकां आपले राजकी गुरू कशे लेखताले. 'भारत सेवक समाज' ह्या नांवाची गोखल्यांनी अेक संस्था काडिल्ली. तिचे वांगडी जावपाक गोखले गांधीजीक सांगताले. पुण गांधीजींनीं निर्णय घेंवक नासल्लो.

गोखल्ले भायर पडल्ले तेन्ना गांधीजीक हे राजाल्लिचो अुगडास जाल्लो. आपल्या राजकी गुरूची निमाणी अिल्सा भारोवर्चीच पडल्ली अशें मानून तांणीं सभासदत्वाचो अर्ज बरवन दिल्लो.

हो अर्ज पळवन भारत सेवक समाजाचे जाळवणदार भियेल्ले. गोखल्यांची राजकी मतां गांधीजी मानताले. देखून तांचो अर्ज घेंवकूच जाय आसल्लो. पुण त्याच बरोबर तांकां अशेंय दिस कि गांधीजींत अशें कितें तरी आसा जें भारत सेवक समाजाक पचपाचें ना.

हाका लागून ते काचाबूल जाले. गांधीजींच्या लक्षांत जेन्ना हें आयलें तेन्ना ताणीं कळाव केलो ना आनी आपल्लो अर्ज परतो घेतलो.

अशें आसुनूय गांधीजी भारत सेवक समाजाक सदांच आधार दिताले. आपलें वेगळेपण सांबाळुनूय दुसऱ्यांकडेन आपलेपणान चलुंयेता अशें गांधीजी मानीत.

***



## : ४९ : महाकवीक पैशांची अडचण ?

गुरुदेव रवीन्द्रनाथ ठाकुर आनी गांधीजी हांच्यांत जितलें सारकेपण आसलें तितलेंच वेगळेपणूय आसलें. दोगूय भारती संस्कृतायेचे प्रतिनिधि आसले. गुरुदेव ऋषिपरंपरेचे प्रतिनिधि तर गांधीजी संत परंपरेचे.

दोगांचेय वावर करपाचे तरेंत फरक आसलो.

अेक खेपे रवीन्द्रनाथांक दुडवांची अडचण आयली. देखून शांतिनिकेतनांतल्या कांय कलाकारांक घेवन ते दौऱ्यार भायर सल्ले. वेगळ्या वेगळ्या शारांनी नाच–नाटकां करीत करीत ते दिल्लीक पावले. त्याच दिसांनी गांधीजीय दिल्लीक पाविल्ले. तांकां गुरुदेव आपल्या कलाकारांक घेवन दिल्लीक आयिल्ल्याची खबर कळ्ळी.

गुरुदेवा सारकेल्यांक दुडवां पसत अशें भोंवचें पडप हाचें गांधीजींक वायट दिसलें. त्या भायर तांची अुतार पिराय जाल्ली आनी जिवानूय ते बरे नासले म्हुण गांधीजींनीं आयकल्लें. हिंदुस्तानांतल्या अेका मोटया मनशाक हे पिरायेर आनी हे स्थितींत दुडवां पसत भोंवचें पडप हें गांधीजींक कशें मानवतलें आसलें ? तांणीं गुरुदेवांक विचारूंक धाडलें “ तुमकां कितले पैशे जाय ? ”

गुरुदेवांनी आंकडो सांगलो.

गांधीजीनीं तांकां कळीत केलें “ दुडवांचें म्हजेर पावलें...... तुमी आतां पैली गाडी धरून शांतिनिकेतनांत वचात. आनी पैशां खातीर हे पिरायेर भायर सरचे नात अशें अुतर म्हाका दियात.”

रवीन्द्रनाथांचे दोळे भरून आयले. तांणीं गांधीजींच्या अुतराक मान दिलो. आनी तडक शांतिनिकेतनांत परतले.

...४...

गांधीजींनीं हे वर्टन कांय पैशेकारांक जमवन सांगलें : " भारताच्या ह्या महाकवीक पैशांची अडचण येवप हें आमकां सोबना......तांकां जितले रुपया जाय ते फाल्यां रोखड्या रोखडे धाडून दियात."

गुरुदेव शांतिनिकेतनांत पावन पळेनात जाल्यार गांधीजींनीं धाडिल्लो चेक तांची वाटच पळेतालो !

****

## : ५० : ही तपश्चर्या जावची ना

गांधीजींनीं चंपारणांत सत्याग्रह सुरू केल्लो. आश्रमांतल्या अेकल्याक त्या सत्याग्रहांत वांटो घेवचो-सो दिसल्लो. ताणें गांधीजींक चीट बरवन आपली ही अित्सा तांचे मुखार परगटायली.

गांधीजींची ताका जाब आयली :

" राष्ट्रसेवेचें काम तुका नवें न्हय. थैंचें काम सोडून हांगा येवप आनी हांगां बंदखणींत बसप हें तुजे बाबतींत तपश्चर्ये बदला स्वच्छंदा सारकें जातलें. बंदखणींत वचपाची संद हांव नव्या नव्या लोकांक दिवंक सोदतां. तुवें जें काम आंगार घेतलां तें अेकाग्रतेन करीत राव. "

राष्ट्रसेवेचें अेक काम आंगार घेतिल्लें आसतना तें अर्दकुटें अुडवन दुसऱ्या कामाक हात घालप गांधीजींक माननासलें. ते ताका स्वच्छंद म्हण्टाले.

****

## : ५१ : सरकाराची अडचण

वैयक्तिक सत्याग्रहा वेळार राजेनबाबू जिवान बरे नासले. सत्याग्रहांत वांटो घेवपाची तांची अित्सा आसली. पुण गांधीजींनीं तांकां मना केले. तांणीं राजेनबाबूंक सांगलें :

" तुमच्या जिवाक बरें नासतना तुमीं सत्याग्रहांत वांटो घेवप म्हळ्यार तुमच्या आरोग्याची जापसालदारकी सरकाराचेर घालपा सारकें जातलें. हें बरोबर न्हय. आतां, सरकारानूच तुमकां धल्ले जाल्यार गजाल वेगळी. मागीर, तुमचेर जापसालदारकी अुरना. पुण तुमीं सरकाराक अडचणींत घालूंक जायना. तुमी सत्याग्रहांत वांटो घेतलो जाल्यार सरकाराक प्रस्न पडटलो कि हांकां धरून तांच्या आरोग्याची जापसालदारकी आंगार घेवंची काय हांकां धरिनासतना रावचे आनी कायदे भंग करूंक दिवचे ? सरकाराक असले अडचणींत घालप बरोबर न्हय. "

सरकारी नीतिआड सत्याग्रह करपाक तयार रावनूय गांधीजी सरकाराचे अडचणिची लेगीत कितली काळजी घेताले ! देखुनूच तांगेले सत्याग्रह धर्म-युद्धा सारके जाल्ले.

****



## : ५२ : वायट करतल्याचेंय बरें

बरें करतल्याचें लोक बरें करतातूच. वायट करतल्याचें कोण बरें करीत ? पुण गांधीजीचें तर तें सूत्रच आसलें.

अेक खेपे आश्रमांत रातचो अेक चोर आयलो. पापयाक भूक लागिल्ली जावंये. आयलो तोच रानचे कुडींत गेलो. आश्रमवासी लोकांनी ताका धरून कुडींत धांपून दवल्लो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ताका गांधीजीमरीं हाडून अुबो केलो.

गांधीजी नास्तो करताले. चोर केन्ना आयलो, ताका कसो धल्लो वी सगळें तांणीं आयकून घेतलें आनी निमाणें विचाल्लें :

" ताका खावंक दिलें काय ना ?"

" ना, बापूजी. "

" तशें जाल्यार, ताका पैलीं खावंक दियात. मागीर म्हजेसरीं हाडात. "

चोराक आनी खावंक ? सगळ्यांक अजाप जालें. पुण गांधीजींच्या मतान चोरूय जाल्यार मनीसच. ताका खावंक दिवंक जाय हाची जाणवीक आश्रमांतल्या त्या लोकांक नासिल्ली जावंये. तांकां गांधीजींनीं मनीसपण शिकयलें.

चोराक खावंक दिलें. मागीर ताका गांधीजीसरी हाडलो. गांधीजींनी तांका समजायलें : " अशी चोरी तुवें करूंक फावना. चोरी करप हें वायट. तुका जेवंक खावंक मेळना जाल्यार आश्रमांत यो. तुका आमी काम दितांव. "

गांधीजींचीं हीं अुतरां आयकून चोराक किनें दिसलें काय ?

****

## : ५३ : आश्रम म्हळ्यार अनाथालय न्हय

अेक दीस साबरमती आश्रमांत अेक बायलमनीस आयली. आनी भायर आंगणांत बसून रावली. तिका दिश्टी पडनासलें.

आश्रमांत भिकाऱ्यां खातीर सुवात नासली. कोणें तरी तिका येवन सांगलें कि आश्रमांत भिकाऱ्यांक घेनात. हें आयकून ती अुसळ्ळी : "हो महात्मा गांधींचो आश्रम काय पोलिस-स्टेशन? म्हाका घर ना, जेवंक खावंक ना. आनी म्हाका हांगाय सुवात ना म्हणटात ? "

कोणें तरी तिका जाप दिली : " आश्रमांत आठ वरां काम करचें पडटा. ते बगर कोणाक हांगा रावंक मेळना. "

ती चिवट आसली. असली जाप आयकून ती वच सारकी नासली. आपुण गांधीजींक मेळटलीं म्हुण हट्ट घेवन बसली· गांधीजी कामांत आसले. तांकां वेळ नासलो. तरी तांकां ही खबर कळटकूच ताणीं तिका दवरून घेतली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं गांधीजींनीं तिका आपवन सांगलें : " आश्रमांत बसून खावंक मेळपाचें ना. काम करचें पडटलें. तुका आमी सूत काडूंक शिकयतांत. हे अटीचेर तूं हांगा रावतली जाल्यार खुशाल राव. "

ती रावली. सूत काडूंक शिकली. पुण सप्तक सोंपचे पैलींच परती मस्तेपणां करूंक लागली. कोणाचेंच आयकप ना, कसलोच नेम पाळप ना, वचत ताचेकडेन झगडप असलें करूंक लागली. गांधीजींनीं तिका दोन तीन खेपो समजावन पळेलें. पुण ती मात् लेगीत सुधारली ना.

आठव्या दिसा गांधीजींनीं तिका सांगलें : "तुवें आश्रम सोडूंक जाय." ती हें आयकून तापली : "तूं महात्मा ? अेक गरीब बायलेक भायर घालता तो महात्मा ? "

पुण गांधीजी फाटीं सल्लेनात. तांणीं तिका सांगलें : "तूं आयचे आयज भायर सल्ली ना जाल्यार हांव तुका भायर घालतलों."

आनी तिका तांणीं हातांक धरून भायर घाली. उपरांत कळ्ळें कि ती बायल कुड्डीय नासली आनी प्रामाणिकय नासली.



## : ५४ : धमकी दिवन प्रामाणिक करूंक येना

दक्षिण आफ्रिकेंत आसतना गांधीजी बॅरिस्टरकी करून हजारांनी रुपये जोडटाले. हॅन्री पोलाक ह्या नांवाचो अेक इश्ट गांधीजींचो हिशोब पळवपाचें काम सांबाळी. हिशोब तर तो सांबाळीच. पुण त्या भायर असील्लांकडली बाकीय वसूल करी.

अेक खेपे गांधीजीक अेक फटींग असील मेळ्ळो. कितलें-शेच पैशे तो देणो जालो. पोलाकान ते फारीक कर म्हूण जायते फावटीं ताका सांगून पळेलें. पुण तो आज दितां फाल्यां दितां करीत—करीत दीस काडूंक लागलो. अखेरेक पोलाकान नोटीस तयार केली आनी ताका कोर्टांत ओडचो असो वेत केलो.

कागदां तयार केलीं आनी निशाणे खातीर तीं गांधीजी मुखार दवल्लीं. गांधीजीक तीं पळवन हांसूक आयलें.

"ताका कोर्टांत व्हेलोना जाल्यार पैशे मेळपाचे नात" पोलाकान म्हळें.

" नाका मेळूं " गांधीजींनीं म्हळें.

" कित्याक ? "

" धमकी दिवन म्हुण केन्ना मनशाक प्रामाणिक करूं येता ? तो पैशे दिना जाल्यार नाका दिवं. हांव म्हज्या पैशां खातीर कोर्टींत वचपाचों ना. "

पोलाकाक कांयच येवजलें ना. पुण "धमकी दिवन म्हुण केन्ना मनशाक प्रमाणिक करूं येता ? " हें गांधीजींचें वाक्य मात् ताच्या काळजांत घट्ट कोंरातून दवरिल्ले सारकें जुल्लें.

****

## : ५५ : म्हाका मारात

आमचो हो देश म्हळ्यार बरोच विचित्र. वर्सांचीं वर्सां तप करपी साधु–संतूय हया देशांत आसात आनी आंधळे श्रद्धेंत जियेवपीय लोक आसात.

गांधीजी त्या वेळार बिहारांतल्या अेका गांवांत आसले. अेक दीस तिळसांजचे कातरीर अेक मोटो मेळ तांणीं पळेलो. शेंकडयांनीं लोक वाजयत गाजयत वतालो.

" हो लोक खंै वता ?" गांधीजींनीं वासपूस केली. पुण कोण सारकी जाप दिवंक पावलो ना. अितल्यांत गांधीजींची नदर मेळांत मुखार आशिल्ल्या अेका बकऱ्याचेर पडली. ताका तिबो लायिल्लो. ताच्या गळयांत फुलांचो हार घाल्लो. ताका मारूंक व्हरताले. गांवांत प्लेग–कॉलेरा येता तो देवाक राग येता म्हुण

येता असो लोकांचो समज आसलो. देवाक तुश्टावपा खातीर ते बकरो मारताले.

गांधीजीय त्या मेळांत रिगले. लोक नाचपांत अितलो दंग आसलो कि कोणाचेंच लक्ष गांधीजीं कडेन गेलें ना.

अखेरेक मेळ देवळा कडेन पावलो. बकऱ्याक मारुंक वचचे पैलींच गांधीजी लोकां मुखार अुबे रावले. कांय जाण तांकां वळखले. 'आरे; महात्माजी हांगा खैंच्यान ?' लोक तांकां पळवन अेकदम शांत जाले. गांधीजींनीं विचाल्लें :

" ह्या बकऱ्याक हांगा कित्याक हाडला ?"

" देवाक ताजें रगत दिवपाक."

" देवाक रगत कित्याक जाय ?"

" दिलें ना जाल्यार देव रागार जाता."

" अशें ? वरें, अेक मांगात पळवंया, बकऱ्या परस मनीस व्हड काय न्हय ?"

" हय."

" नशें जाल्यार मनशच्या रगतान देव चड तुश्टतलो. न्हय ?"

लोक ओगी रावलो. परतें गांधीजींनी विचाल्लें :

" देवाक आपलें रगत दिवंक हांगामर कोण तयार आसा ?" सगले अेकामेकांची तोंडा पळवंक लागले. कितें जाप दिवंची हें तांकां समजना जालें. गांधीजींनीं परतेंय विचाल्लें :

" कोणूच ना ? तुमचे भितर कोणूच तयार नासत जाल्यार, हांव आसां. म्हाका मारात. देव चडांत चड तुश्ट जायत अमलीच करणी आमीं करुंक जाय. न्हय ? म्हाका मारात. म्हजें रगत देवाक दियात."

लोकाक कितें करचें कितें ना, अशें जालें. गांधीजींनीं म्हळें : “ देव रगतान तुश्टता जाल्यार मनशाचें रगत दिवंक जाय. ह्या मोन्या बकऱ्याक मारून कित्याक अुपकरता ? आनी जर कोणूच आपलें रगत दिवंक तयार नासत तर ह्या बकऱ्याकूय मारूंक फावना. ”

लोक हो नवो धर्म आयकताले.

अुपरांत त्या गांवांत बकऱ्याक मारपाची चाल बंद जाली.

****

## : ५६ : प्रयोगांचें जीवन

श्रीमन् नारायण अग्रवाल हांणीं गांधीजीविशिंचो आपलो अेक अुगडास असो सांगला :

‘ गांधीजी अेका वर्सा आमगेर दोन खेपे आयिल्ले. पैले खेपेक आयिल्ले तेन्ना ते रातचे न्हीदता आसतना तीन अुशीं घेवन न्हीदताले. दुसरे खेपे आयले तेन्ना तांणीं अुशींच सोडिल्लीं. ’

हांवें तांकां विचाल्लें : “ बापूजी, तुमकां अुशीं कित्याक नाकात ? ” तेन्ना तांणीं जाप दिली : “ हांवें अेके कडेन वाचलें कि शवासनान न्हीद बरी पडटा. तेन्ना, म्हळें, प्रयोग करून पळवया. ”

हें आयकून हांवें म्हळें : “ बापूजी, तुमी आयुष्यभर तरे तरेचे प्रयोग करीत आयल्यात. आतां जाणटेपणांत तुमचें आरोग्य नाजूक जालां. तेन्ना असले प्रयोग आतां दुसऱ्यांचेर करून पळवंचे.”

“ ना, ना. म्हजें आयुष्यच प्रयोगांनीं भल्लां ...जितो आसां सर ते चलतले. ” गांधीजींनीं हांसत–हांसत जाप दिली.

## : ५७ : भक्तिची भेट

आगाखान महल्लांतले बंदखणींतल्यान गांधीजी सुटले आनी मुंबै जुहूचे वेळेर येवन रावले. तांकां मेळपाक जायते जाण येताले. गांधीजींची तब्येत त्या दिसांनी बरी नासली. म्हूण कोणाक भितर येवंक दिवचें आनी कोणाक दिवचें न्हयन हें थारावपाचें काम सरोजिनी नायडू हांणीं आपल्या हातांत घेतिल्लें. हाका लागून गांधीजीचे त्राम बरेच उणे जाल्ले.

एक दीस एक अजापांचो मनीस गांधीजींक मेळूंक आयलो. तो पिरायेन धाबारा वर्सांचो भुरगो आसलो. येतना दोन–तीन रुपयांचीं फळां भेटेक घेवन आयिल्लो आनी आपूण तीं खासा आपल्या हातांनी गांधीजींक दितलों म्हूण हट्ट धरून बसलो. गांधीजींचो वेळ हे भशेन घेवं नये हें ताका कोण समजायतलो ? सरोजिनीदेवीन ताका समजावपाचो यत्न केलो. पुण ताच्यामुखार कोणाचें कांयच उपकारा पडलें ना.

अखेरेक ताका गांधीजी सरीं व्हेलो. ताणें गांधीजींच्या पायां-कडेन फळां दवल्लीं आनी तो कुर्शाक मोन्यांनीं उबो रावलो. ताका उलवपाचें कांय नासलें. गांधीजी फळां केन्ना घेतात हाचीच तो वाट पळेतालो.

" भिकाऱ्याचो पोर दिसता " कोण तरी उलयलो.

हीं उतरां कानार पडना फुडें त्या भुरग्याक दुःख जालें. अप-मान जाल्ले भशेन तो उलयलो :

" ना, महात्माजी. हांव भिकारी न्हय. तुमी सुटून आयल्यात म्हूण कळना फुडें तुमकां म्हजी म्हूण कितेंय भेट दिवची अशें

म्हाका दिसलें. आनी मजुरी करून आपले जोडींतल्यात हीं फळां गांवें हाडल्यांत. ”

हें आयकना फुडें गांधीजीचें काळीज भरून आयलें. तांणीं भुरग्याकडेन पळेलें. श्रीमंतांकडल्यान तांकां फळांचे कंडे ह्या आदीं जायते मेळिल्ले. आयची भेट वेगळेच तरेची आसली. हे भेटे फाटल्यान भक्ति आनी काव्य आसलें. गांधीजींनीं तांतलें अेक फळ काडलें आनी भुरग्या मुखार करून म्हळें:–

“ तुज्या श्रमाचें पैलें फळ तूं खा. ”

“ना, महात्माजी तुमी खायात. तुमी खातकूच म्हाका पावलें” आनी नमस्कार करून तो गेलो.

गांधीजींचें कारुण्यान भरिल्ले दोळे भुरग्याक पळेत रावले.

****

## :५८: गांधीजींचो भेस

१९२१ तली खबर. गांधीजी मद्रासच्या दौऱ्यार आस्ले आनी थैं खादिचो प्रचार करताले. अेक दीस तांकां दिसलें कि आपुण खादिचो अितलो प्रचार करतां तरी आसतना लोक ती वापरिनात. तांकां हाचें ख्वव वायट दिसलें. आनी तांणीं आपणाकूच ख्यास्त करून घेवपाचें थारायलें. आगगाडयेंतूच तांणीं अेक पत्रक बरयलें आनी तें सगल्या वर्तमान पत्रांक धाडून दिलें. त्या पत्रकांत तांणीं बरयल्लें: “ आयच्यान हांव पुडवें, सदरो आनी तोपी सोडून फक्त अेक वालो न्हेसतलों, गरजच पडली जाल्यार वयर अेक अुपरणें ओडटलों. ”

धा वर्सां गतीं गांधीजी मदुरेक पावले. अेका म्हाल्याक आपवंक धाडलो आनी केंस तासून घेतले. भोंवतणच्या लोकांक हुस्को जावंक लागलो. गांधीजी सन्यास घेतात काय किते, अशें तांकां दिसंक लागलें. लोक म्हाल्यांत जमले. राजाजी हांणीं तरे तरेन समजावन पळेलें. पुण गांधीजींनी निश्चयच केल्लो. तांणीं सांगलें :

"मद्रासेंत म्हाका खादी खंच दिश्टी पडना. लोकांन खादी घालपाची अुमेदूय दिसना. म्हजें अंतस्करण हें पळेवन रक्तबंबाळ जालां. म्हजें दुःख हांव ह्या भेसान अुक्तावंक सोदतां."

तेदूसच्यान गांधीजी फकत अेक वालो आनी अेक अुपरणें अितलेंच वापरूंक लागले.

***

## : ५९ : हांव चार अुणेच वापरतां

धा वर्सां अुपरांत गांधीजींक 'गोलमेज परिपदे' खातीर अिंग्लंडाक वचचें पडलें. तेन्नाय ते आपल्या त्याच भेसान थंय गेले.

मार्सेच्या बंदराचेर तांकां कोणें अेकल्यान विचाल्लें :

"अिंग्लंडाक तुमी ह्याच भेसान भोंवतले ?"

गांधीजींनी जाप दिली : "हय, अिंग्लंडचे लोक चार कापड अदीक वापरतात तर हांव चार अुणे वापरतां."

***

## ६० : त्याच भेसांत बादशाहाक मेळूंक गेले

लॉर्ड टेंपलवूड हांणीं अेके कडेन बरयलां.

" गांधीजी अिंग्लंडाक आयले तेन्ना आमचेर अेके तरेचें संकश्ट्च आयिल्ले भशेन दिसलें...गोलमेज परिषदेक आयिल्ल्या लोकांक अिंग्लंडच्या राजान जेवण केल्लें. ताका गांधीजींक आपवंकूच जाय आसले. पुण आमच्या शिष्ठाचारांत गांधीजींचो भेस बसनासलो...अिंग्लंडचे मुत्सद्दी सवनरात हाचेर विचार करूंक बसले...अखेरेक गांधींक त्याच भेसान घेंवचें अशें आमी थारायलें."

अिंग्लंडच्या अितिहासांत ही पैलीच घटना आसली, जेन्ना साम्राज्याच्या अेका विरोधी मनशाच्या भौमाना खातीर अिंग्लंडच्या मुत्सद्यांक आपले सगले शिष्ठाचार कडेक दवरचे पडले ! साम्राज्य कोसळावपाक भायर सरिल्ल्या मनशाक निमाणें साम्राज्य शरण गेलें !

****



## : ६१ : गांधींची समयसूचकता

बादशहान दिल्या जेवणांत अेक गमतिचो प्रसंग घडलो. गांधी दुसरो भेस करून पालासींत वचचें नासलें. बरें, गांधीक आपयना-सतना गवप बरोबर जावचें नासलें. भारताचो अपमान जातलो आसलो. ह्या पेंचांतल्यान वाट कशी काडची हाचो विचार करून अिग्लंडच्या मुत्सद्यांनीं गांधींक कसलीच अट घालप ना असें थारायलें.

पुण अिग्लंडच्या राजाक हें पसत नासलें. तरी आपल्या प्रधा-नांचे मागणें ताणें आयकून घेतलें.

जेवंक बशिल्ले थें राजाची नदर परती परती गांधींच्या अुघड्या पायांचेर पडूंक लागली. गांधींक कांयच म्हणप ना असें ताका प्रधानांनीं सांगिल्लें. तरी ताका तें कशें-शेंच दिसूंक लागलें ताची नदर गांधींच्या पायांचेर परती परती वेता हें पळवन ब्रिटीश मुत्सद्यांक हुस्को जावंक लागलो. मट्ट करून राजा कितेंय म्हणीत आनी गांधी कितेंय परती जाप दीत असो तांकां भंय दिसूंक लागलो...तांकां दोगांचोय मान राखपाचो आसलो.

अितल्यांत राजान म्हळें : “ हें पळेयात गांधी, साम्राज्याचेर परते परते हल्ले केल्ले म्हाका सोंसचेनात आं ! ”

हें आयकना फुडें ब्रिटीश मुत्सद्यांच्या काळजांत धस्स जालें. गांधींकूय म्हुण असलयो धमक्यो थोड्योच सोंसतात ! ते कितेंय तरी जाप दितले आनी राजाचो अपमान जातलो ह्या हुस्क्यांत ते पडले. पुण गांधीजींची समयसूचकता तांच्या आधाराक धांवली. गांधीजींनीं म्हळें :

"अितलो सुंदर आदर सत्कार घेतल्या अुपरांत तुमचे कडेन राजकी चर्चेत पडपाक हांव तयार ना."

गांधीजींचे हे जापेन ब्रिटीश मुत्सद्दी गांधीजींचे बुद्धिचो अदीकच आदर करूंक लागले.

****

## : ६२ : सामान परतें केलें

गोलमेज परिषदेक वतनां बोटीन मुम्बै बंदर सोडलें आनी गांधीजी आपलें सामान पळवंक लागले. ते मेरेन तांकां आपल्या सामानाकडेन लक्ष दिवंक वेळूच मेळूंक नासलो. मीराबेन बरोबर आसलीं. तांकां दिसलें "ओहो! तुफान येता दिसता." सामानाची वेवस्था सगली मीराबेनीनूच केल्ली.

"ह्या ट्रंकांत कितें आसा?" गांधीजींनीं विचाल्लें.

"तुमचे कपडे." मीराबेनीन जाप दिली.

"म्हजे कपडे? आनी येद्या मोट्या ट्रंकांत?"

"पुण ट्रंक रिकामोच आसा. चड नात."

"अुक्तो कर पळवया–"

मीराबेनीन ट्रंक अुक्तो केलो. सामान पळवन गांधीजींचो चेरो तांबडोगुंज जालो–"'हिंदुस्तानांत ट्रंक नासतना म्हजे कपडे बरोबर आसताले. अिंग्लंडाक हांव म्हज्यो हांगासल्ल्यो संवयी सोड्टलों अशें दिसलें काय कितें तुमकां?"

अखेरेक जाय आशिल्लें तितलेंच सामान कुशीक काडलें आनी बाकिचें सगलें बांदून दवल्लें. बोट जेन्ना अेडनाक पावली तेन्ना हें सगलें सामान परतें हिंदुस्तानांत धाडून दिलें!

****

## : ६३ : मार्सेच्या कष्टमार

मार्से बंदरार गांधीजी अुतल्ले तेन्ना कष्टमच्या लोकांनीं तांका विचाल्लें, "सामान कितल्या मोलाचें आसा ?"

"दोन चरखे, दोन चार चमचे, बंदखणींत आसतना सरकार ज्या आयदनांत म्हाका जेवण दितालें तें अेक आयदन, चार वाले, दोन तुवाले, दोन चादरी आनी थोडिशी प्रतिष्ठा जिका व्हडलीशी किमत ना अितलेंच सामान घेवन आयलां" गांधीजींनीं जाप दिली.

आपल्या विनोदान गांधीजींनीं सगळ्यांचीं हृदयां जिखिल्लीं. रॉयटरान वैली खबर सगल्या संवसारभर धाडून दिली. गोलमेज परिषदेंत भाग घेवपी अिंग्लीश मुत्सद्यांक आपणाकडेन अुलवणीं करपाक येता तो मनीस कितलो निर्मळ तें समजलें.

****



## : ६४ : समजली तुजी ट्रीक

मार्सेच्या बंदरार वेगळचा वेगळचा देशांतले वर्तमानपत्रकार जमिल्ले. गांधीजींची ही भेट अितिहासीक महत्वाची आशिल्ल्यान तांच्या तोंडांतल्यान जें कितें भायर सरता तें टिपून घेवंक ते अुत्मुक आशिल्ले. पुणून गांधीजी कितेंच अुलोवंक तयार नासले. गोलमेज परिपदेच्या कामाक आपले कडल्यान तरी कसलीच अडचण येंव्र नये हाजी ते जतनाय घेताले. गांधीजी कांयच अुल-यनात हें पळवन अेका वर्तमानपत्रकारान आपली तकली चलयली आनी तांच्या तोंडांतल्यान कितेंय तरी वदयतलों म्हणून ताणें गांधी-जींक विचाल्लें : "तुमी अिंग्लंडाक कितले दीस आसतले ? " गांधी-जींक ताजीं धूर्तपणां जिस्त समजलीं. तांणीं म्हळें : " आ...म्हाका तुजी ट्रीक समजली." आनी ताज्या तोंडार हात दवल्लो. ****

## : ६५ : तुका मिनिस्टर जावचें आसा ?

१९३७ तली खबर. हिंदी साहित्य संमेलनाचे बसकेक गांधीजी वचाले. दर अेका स्टेशनार तांकां पळवपा खातीर लोकांच्यो झुंडी येनाल्यो. तातूंन वर्तमानपत्रकारूय आसताले. कॉंग्रेस अधिकाराचेर येना काय किते ह्या विशीं त्या दिसांनी लोकां भितर चर्चा चलनाली. सरकारान तशी मागणी केल्ली आनी कॉंग्रेसचें निश्चित धोरण अजून लोकाक समजूक नासलें.

गाडी अेका स्टेशनार पावली. लोकांचे गर्दैतल्यान अेकल्या वर्तमानपत्रकारान वाट काडून गांधीजींचो डबो गांठलो. आनी खर्शेन खर्शेन तांका प्रस्न केलो :

" बापूजी, कॉंग्रेस अधिकार स्वीकारतली काय ना ? "

...५...

गांधीजींनीं कितेंय जाप दिल्ली जाल्यार दुसऱ्या दिसा ती सगळ्या वर्तमानपत्रांत येतली आसली हातून दुबावच नासलो जाप दिवंक नाशिल्ली जाल्यारूय ताजेर वर्तमानपत्रां भाष्यां करतली आसली. पुण गांधीजीचें ह्या विशिचें कसलें मोट आसलें. तांणी त्या पत्रकाराक परतो प्रश्न विचाल्लो :

" कित्याक ? तुका मिनिस्टर जावचें आसा काय कितें ? "

लोक हांसले. पत्रकाराक कुर्लाक सरपा पेल्यान वाट्टा अुरूंक नासली.

****

## : ६६ : सरळ राजनीत

गोलमेज परिषदेक सुमार शंभर प्रतिनिधि गेल्ले. गांधीजीक सोडल्रे जाल्यार बाकिचे सगले सरकारी प्रतिनिधि आशिल्ले. अश्या परिस्थितींत गांधीजी थं कितें करतले असो जायत्या जाणांक दुबाव आयिल्लो. तांकां दिस कि लोक अेक मांगतले आनी गांधीजी दुसरेंच सांगतले. आनी मागीर सरकार म्हणटलें " तुमचें म्हणणें खरें, पुण तुमच्याच देसांतले लोक तुमचेकडेन सहमत जायनात तेन्ना तुमचें म्हण्णें आमी मानचें कशें ? "

" सरकार तुमकां कितें म्हूण समजून आपयता ? तुमी कितें मागपाचे आसात तें तर सरकार जाणांच. " कोणें अेकल्यान म्हत्लें.

गांधीजींनीं म्हळें : " हांवें कांयच लिपवन दवरूंक ना. हांवें व्हाइसरॉयाक सांगिल्लें, म्हजी मागणी हांवें तुमच्या मुखार दवल्यार तुमच्यान ती भागवं नज जाल्यार म्हाका अिंग्लंडांत धाडपांत कांयच आदाव ना. तरी म्हाका धाडला."

" तर मागीर तुमचें म्हणणें तुमी परिषदेंत कशें मांडतले ?

गांधीजींनीं जाप दिली: "अेका कुळवाड्याचे सादे भागेंत हांव म्हजें म्हणणें मांडतलों. ते चड कीस काडूंक लागले जाल्यार हांव म्हण्टलों, म्हाका कांय हें समजना. म्हाका अमकें अमकें जाय. तांणीं म्हजें कांयच मानून घेतलें ना जाल्यार हांव म्हण्टलों, म्हाका हांगा बेश्टो कित्याक बसवन दवल्ला? म्हाका परत्तो हिंदुस्तानांत पावयात."

गांधीजींची राजनीत सादी आनी सरळ आशिल्ली. डावपेचांक थंय सुवात नाशिल्ली. आनी डावपेचांची राजनीत गांधीजींच्या ह्या सरळ मार्गा मुखार गडखळताली, खर्शेताली.

****

## : ६७ : आमच्यो चलयो म्हळ्यार गायोच

गांधीजींचे वळखिच्या अेका घराण्यांतल्या भुरग्याची अेके कडेन सोयरीक जाली. चलयेकार अेका हुस्क्यांतल्यान मेकळे जाल्ले. म्हण्टा म्हणसर नवो हुस्को सुरू जालो. चलो अकस्मात बदल्लो. आपुण लग्न जावचो ना म्हणूंक लागलो. कितलो समजायलो पुण कबूलच जायना जालो. अखेरेक चलयेकार निर्शेले आनी गांधीजी सरीं आयले. गांधीजी सारकेल्यांचो वेळ असल्या कामांक घेवंचो पड्टा हाजें तांकां वायट दिशिल्लें, पुण बावड्यांचो निरुपाय जाल्लो.

गांधीजींनीं त्या चल्याक आपवन हाडलो. आनी ताचे कडेन अेक सारके तीन दीस अुलवणीं केलीं. चलयेकार म्हऱ्यांत बशिल्ले. पुण चलो कसोच आयकना!

अखेरेक चवथ्या दिसा गांधीजींनीं ताजे कडल्यान अुतर घेतलें. तो लग्नाक तयार जालो. चलयेकारांक सू: जालें.

ऐकल्यार गांधीजी गंभीर जाले. चल्याक भायर धाडलो आनी चल्येकारांक विचारलें: "हें लग्न घडून येवचें अशें अजूनय तुमकां दिसता ?"

चल्येकार तोंड आं करून पळेत रावले. गांधीजींनी म्हळें: "आज तीन दीस जाले, तुमी त्या भुरग्याक पळयतात. ताजे कडल्यान अंतर दवरपाक म्हाका कितलें ध्यान पडलें हेंय पळेनात. तरी आसतना तुमी तुमची चली ताका दितात ?"

चल्येकारांक अतरेच फटना जालें. खूब येवजून तांणी म्हळें: "महात्माजी, तुमी म्हणटात तें खरें आसा. आतां आमचो कसलोच आग्रो ना."

गांधीजींनी त्या चल्याक आपोवन हाडलो आनी सांगलें:

"तुका तुज्या अंतरातल्यान हांव मेकळो करतां. हांव हांचे कडेन उलयलों. आतां ही सोयरीक मोडल्यार जाता."

चली गेली, चल्येकारूय गेले! गांधीजी तरी पू. काकासायब कालेलकार बशिल्ले. तांचे कडेन पळोवन गांधीजींनी म्हळें: "काका, आज हांवें गोरक्षेचें काम केलें. तें चल्येचें हांव कितें करूंक भायर सरल्लों कोण जाणा ! हांव जेन्ना गोरक्षेविशीं उलयतां तेन्ना म्हज्या दोळ्यांमुखार फकत चार पांयांच्यो गायोच उब्यो रावतात. आमच्यो चल्योय गावतात. तांच्यांत आनी गायांत फरक ना !"

आनी उपरांत कितलो वेळ तरी तांचो नूर एक मोटें काम केल्याच्या समाधानांत आशिल्ले वरी दिसतालो !

****

## : ६८ : गायांक स्वतंत्र केल्यो

गांधीजींच्या काळजांत बायलां विशीं अंत-पार नाशिल्ली काकूळट भरिल्ली. हजारांनी वर्सांपसून चिड्डले हे जातीक वयर काडपा खातीर गांधीजींनीं जो यत्न केला तो ल्हाना–समानांनलो न्हय.

गांधीजी सदांच सकाळचे मेकळे हवेंत भोंवक वताले. अेक दीस अशेच भोंवक गेल्ले आसतना अेके बायलमनशेन वाटेरूच तांच्या पांयार मस्तक दवल्लें. ती निकतीच लग्न जाल्ली आनी तिजो मांव तिका गांधीजींचो आशिर्वाद घेवंक घेवन आयिल्लो.

"बापूजी, ही म्हजी सून. हिका आशिर्वाद दियात"–मांवान म्हळें.

गांधीजींनी हांसत हांसत तिजे फाटीर थापट मारून तिका अुबी केली. अितल्यांत गांधीजी गंभीर जाले. मांवां कडेन नदर केली आनी परतें सुनेच्या तोंडाकडेन पळेलें. तिणें तोंडार पदर घेतिल्लो. अुत्तर हिंदुस्तानांत बायलो माथ्यावैल्यान पदर ओड्टात आनी तातूंत तोंड लिपयतात.

गांधीजींक ही गुलामी कशी मानतली? तांणीं त्या मांवांक मागलें : "म्हाका तुमचे कडल्यान अेक अुतर जाय."

"तुमी सांगतात तें करूंक कबूल आसां." ताणें जाब दिलो.

"हे चलयेक मान वयर काडून चलूंक दिवक जाय... तिजें तोंड पदरांत केन्नाच लिपून अुरचें ना अशें म्हाका अुतर दियात."

गांधीजींचें हें मागप मालगें चड जाल्लें. सून पदर तोंडार काडिना जाल्यार लोक कितें म्हणटीत हाजो त्या मनशाक भंय दिस. तरी आसतना ताणें गांधीजींक अुतर दिलें "बरें आसा."

आनी ह्या अुतराक ताणें पाळो दिलो.

गांधीजींनी हें भजन कितल्या गायांक स्वतंत्र केल्यात जाणत्यां, सांगूंक येवचें ना. गांधीजींनी भारतांत जायतीं कामां केल्यांत. अेका परस अेक मोटीं. पुण स्त्री–जातिचे अुदरगतिचें जें काम गांधीजींनी केलें ताच्या तोलामोलाचें काम दुसरें सोदून मेळचें ना.

****

## : ६९ : नदर बदलली

तरी पळोवक गेल्यार गांधीजी पैली नितुर आसले. कस्तुर-बायचेर ताणीं आपलें घोवपण बरेंच गाजयल्लें.

दक्षिण आफ्रिकेंत ते आशिल्ले तेन्नाची गजाल. डरबन शारांत ते वकिली करताले. तांचें घर मोटें आशिल्लें आनी वकिली बरी चलताली. वकिलीक लागून तांगेर तरे-तरेचे लोक येवन रावताले. तातूंत हिन्दू, किरिस्तांव, मुसलमान सगळेच आसताले. अेकदीस तांगेर अेक किरिस्तांव येवन रावलो. किरिस्तांव जावचे पयलीं ताची आवय आनी बापूय हरिजन जातींतलीं आसलीं.

गांधीजीच्या घरांत मोरयो नासल्यो. दर अेकले कुडींत अेक-अेक कांसो आसतालो. तो कांसो व्हरपाचें काम घोव-बायल दोगांय करतालीं. कांसो काडपाखातीर वेगळो मनीस दवरूंक नासलो.

कस्तुरबा कांशे व्हरी खरी. पुण ह्या मनशाचो कांसो काडूंक तिका कितेंशें-च दिसूंक लागलें. घोवान काडप तिका मानना जालें. आनी आपणें काडप तिका सोसना जालें. अखेरेक निरुपाय जावन दोळयांत दुकां भरून फणफणत तिणें तो काडलो.

गांधीजी जितले प्रेमळ आसले तितलेच त्या वेळार खर आसले. घोव जाल्ल्यान ते आपणाक तिचे धनी लेखताले. तिणें कांसो फणफणत व्हेलो हें तांकां मानवलेंना. देखून ते तापले.

" म्हज्या घरांत हो फणफण चलपाचो ना " तांणीं म्हळें.

कस्तुरबायच्या काळजांत हीं अुतरां वाण कशीं तोपलीं. तीय तापली..." तुजें घर तूं घेवन बस, हांव चल्लीं. "

गांधीजींक राग आयलो. तांणीं तिचो हात धल्लो आनी भर-भरीत ओडून दाराकडेन व्हेली आनी घराभायर घालपाखातीर दार अुकतें केलें.

कस्तुरबायच्या दोळ्यांतल्यान गंगा-यमुना व्हावंक लागल्यो.

" मात तरी लज दिसची आशिल्ली, म्हाका भायर घाल्यार हांव खैं वतलीं ? हांगा म्हजीं अशीं कोण आसात ? बायल-मनीस हांव. म्हाका सगलें सोंसूंक जाय. कोणूय पळेत जाल्यार दोगांचीय अिज्जत वतली. "

गांधीजींक लज दिसली. कस्तुरबायच्या सोंशीकपणान गांधी-जींचेर जैत जोडिल्लें. बायल म्हळ्यार सहधर्मिणी, सहचारिणी हाची जाणवीक जांवचे पयलिंची ही गजाल. अुपरान्त गांधीजींचे जिणेंत बदल जालो. जशे-जशे जाण्टे जायत गेले तशी-तशी तांची नदर बदलत गेली. आनी अखेरेक बायल म्हण्टात ती दादल्या येदेच योग्यतायेची म्हणपाचें तांचें मत जालें.

****

## : ७० : के बोले मा तुमी अबले

सत्याग्रह म्हळ्यार सोशीकपणाचेंच दुसरें नांव. आनी सोशीकपणाची मूर्त म्हळ्यार बायलमनीस. हाकाच लागून गांधीजींनी जेन्ना सत्याग्रहाचो प्रयोग रानवळ मळार केलो तेन्ना हजारांनी बायलो तातूंत वांटो घेवंक मुखार सरल्यो. सत्याग्रह बायलांच्या निजांतच आसलो. गांधीजींनी ताका रानवळ मळार वावरूंक संद दिली.

हिंदुस्तानाचें स्वतंत्रतायेचें झूज हिंसेच्या वाटेन चलिल्लें जाल्यार बायलो तातूंत वांटो घेवच्योच नासल्यो. घेतिल्योच जाल्यार जे संख्येन सत्याग्रहांत त्यो आयल्यो ते संख्येन येवच्योच नासल्यो. सत्याग्रहांत 'अबलें' तल्लें लेगीत बळ उक्तें जालें. आनी हिंदुस्तानाच्या इतिहासांत एक नवें पर्व सुरू जालें.

गांधीजींनी हो जो वावर केलो ताका तुळाच ना. सोशीकपणाक धिटायेची जोड दिवन गांधीजींनी हिंदुस्तानांतल्या बायलांचें जिणेंत एक आकांताची क्रांत घडवन हाडल्या.

****



## : ७१ : हो जादू अहिंसेचो

सोऱ्याक लागून मनीस मोनजाती पाप्ट जाता. ह्या पसत गांधी-जींनीं सोऱ्या आड चळवळ सुरू केल्ली. सोऱ्याच्या गुत्त्यार वचून पियेवंक येतल्यां लोकांक आडावपाचें काम आसलें. हें काम कोणा-कडेन सोपवंचें असो प्रस्न आयल्लो. तेन्ना गांधीजींनीं म्हळें : “ हें काम बायलांकडेन सोंपवंक जाय. ”

लोकांक अजाप जालें. गांधीजी कितें उलयतात हें तांकां समजना जालें. जें सामके अभीमान लोक येनात, जांचें मनीसपण गेलां असलेच लोक जें येनात थें बायलांक कश्यो धाडप ? ”

पुण गांधीजी म्हणूंक लागले : “ हें काम बायलांच बरीं करूंक पावतलीं. जें लोक नीतीन सामके पडल्यात थें आमचे कडेन आशिल्ली मोटयांतली मोटी नैतिक शक्त उबी करूंक जाय. आनी आयच्या भारतांत बायलां येदी नैतिक शक्त दुसरी ना. ”

अखेरेक हें पिकेटिंगाचें काम तांणीं बायलां कडेनच सोंपयलें. ताचो परिणाम खूब बरो जाल्लो.

अेक खेपे महर्षि अण्णासाहेब कर्वे आश्रमांत गेल्ले. तांणीं बायलांचे उदरगती खातीर आपली पुराय जीण झरयल्या. ते आश्रमांतल्या लोकांक सांगूंक लागले: “ गांधीजींनीं तर जादूच करून दाखयलो. बायलांचे उदरगती खातीर पंचवीस पंचवीस वर्सां मेरेन वावुरुनूय जें काम आमी करूंक पावले नात, जाची कल्पना लेगीत आमी करूंक नासली तें काम गांधीजींनीं करून दाखयलें. ”

विनोबा म्हऱ्यांत आसले. ते गांधीजींचे हुरशीं शिष्य. पुण तांकां गांधीजींची ही तुस्त मानवली ना . तांणीं म्हळें: “ गांधीजींनीं कितें केलें ? हें सगलें काम अहिंसेन करून दाखयलां. तुमच्या समाजांत

हिंसेक जे मेरेन मान आसतलो ते मेरेन तुमी कसलीय तत्वां सांगलीं तरीय वायलांची सुवात फाटल्यानच आसतली. तांकां सुवार काडचें आसत जाल्यार तुमकां तुमच्या समाजांत अहिंसेक स्थान दिवचें पडटलें. गांधीजींनीं हें केलें म्हूण ते मानृशक्त जागवंक पावले. हो जादू अहिंसेचो."

सुधारणेचो मार्ग वेगळो आनी क्रांतिचो मार्ग वेगळो. गांधीजींचो मार्ग क्रांतिचो आसलो.

****

## : ७२ : पैलोच कस

आश्रम काडून सम्हैने जाले. इतल्यांत ठक्करबापांचें पत्र आयलें–"एक गरीब हरिजन जोडपें आश्रमांत रावंक सोदता. घेशात ?"

गांधीजींक येदे वेगीन कोणूय हरिजन आश्रमांत येवन रावतीत असें दिसूक नासलें. तांकां हे पत्र वाचून आनंद जालो. तांणी जाब धाडलो–"आश्रमाच्या नेमांक पाळो दिवंक तयार आसत जाल्यार घेतां."

कांय दिसांनी हें जोडपें आश्रमांत आयलें.

आश्रमाक मजत करतल्या भितर कुजबुज सुरू जाली. ज्या घरांत आश्रम आसलो त्या घराच्या मालकान बांयचें उदक काडटना अडचणी उब्यो केल्यो. गाळी पडूंक लागल्यो. गांधीजींनीं सगल्यांक सांगून दवल्लें : "गाळी खांवच्यो पडल्यार पडू. पुणी जाप कोणेंच काडूंक जायना."

कांय दिसांनी गाळी थांबल्यो पुण पैशांची मजत बंद जाली. आश्रमाचेर बहिष्कार घालपाच्योय गजाली सुरू जाल्यो. गांधीजींनीं

सगळ्यांक सांगून दवल्लें, आमचेर बहिष्कार घाल्यार घालूं दी. पुण आमी अहमदाबाद सोडप ना. गरज पडल्यार म्हाड्डांत वचून रावंया. तांचे बरावर वावर करूंया आनी जें कितें मेळत ताजेर रावंया.

****

## : ७३ : भितल्लें तुफान

आश्रमांत हरिजानाक घेतिल्ल्यान जशें भायर तुफान अुठिल्लें तशेंच आश्रमांत भितरूय अुठिल्लें. आनी हें तुफान अुठवप्यांत सगळ्यांच्याकूय जड वांटो खासा कस्तुरबायन घेतलो. तिणें म्हळें: "आफ्रिकेंत सोंसलें तें सोंसले. हिंदुस्तानांत हांव हें सोंसपाची ना."

गांधीजींक कितें करचें हें समजना जालें. पुण ते घट रावले. अखेरेक तुफान आपशींच न्हिवलें. आश्रमांत अस्पृश्यतायेक सुवात ना म्हणपाचें आरंभाकूच कळिल्ल्यान आश्रमाची मर्यादाय निश्चित जाली. आनी ताजें कामूय सोपें जालें. आश्रमाचो खर्च मुखार खूब वाडलो. आनी तितलो पैसोय आयलो. पैसो दिवप्यांत कट्टर हिंदूय जायते आसाताले. अस्पृश्यतायेचीं मुळां हालिल्लीं जावंक जाय. कारण अस्पृश्या बराबर रावतल्यांक–जेवतल्यांक सनातनी हिंदूंनी मदत करप म्हळ्यार ल्हाना समानांतली गजाल न्हय !

****



## : ७४ : देव पावलो

गांधीजींनीं आश्रमांत हरिजनांक घेत पसून आश्रमाक मेळटाली ती पैशांची मदत बंद जाली. आश्रमाचे व्यवस्थापक मगनलाल गांधी हाणीं गांधीजींक सांगलें. "फुडल्या म्हैन्याचो खर्च करपाक आतां पैसो ना."

गांधीजींनीं जाप दिली: "पैसो कोण दिलो ना जाल्यार आमचो म्हारवाडांत वचून रावपाचो बेत आसा."

दुसऱ्या दिसा सकाळीं एक अजापांची गजाल घडली. एक भुरगो गांधीजी सरीं धांवत आयलो आनी सांगूंक लागलो: "भायर एक मोटर उबी रावल्या. तुमकां सोदता."

गांधीजी भायर आयले. मोटारींत एक श्रीमंत बसल्लो. ताणें गांधीजींक सांगलें: "आश्रमा खातीर पैशांची थोडी मदत करपाचें म्हज्या मनांत आसा. घेतात?"

"बरें भशेन" गांधीजींनीं जाप दिली.

ह्या मनशाक गांधीजींनीं केन्ना पळोवंक नासलो. आश्रमांत तो केन्नाच येवक नासलो. मदत करपाची असली तयार केन्ना आयकूंक नासली. दुसऱ्या दिसा येवन ताणें तेरा हजार रुपया गांधीजींच्या हातांत दिले.

****



## : ७५ : अस्पृश्यतेचे अटीर स्वराज्यूय नाका

१९२१ वर्सा अमदाबादेक गांधीजींनीं गुजरात विद्यापीठ काडलें. अेक दीस दीनबंधु अँड्र्यूज हांणी अेक प्रस्न विचाल्लोः "तुमी विद्यापिठांत हरिजनांक घेतले ?"

विद्यापिठाच्या जाळवणदारांनी 'हय' म्हुण सांगलें पुण विद्या-पिठाक पैशे दिणाऱ्या पैकीं कांय जाण हरिजनांक भितर घेवपा आड आसले. हाका लागून "गांधीजींक विचारुंया" अशें म्हणून हो निर्णय घेवपाचें काम फुडें धुकल्लें.

गांधीजींक प्रस्न विचाल्लो. तांणीं हरिजनांक घेवंक जाय म्हुण निर्णय दिलो. गुजराथभर हाचेर चर्चा जाली. मुंबैचे कांय श्रीमंत पांच–सात लाख रुपये दिवपाचे आसले. ते गांधीजीसरीं आयले आनी म्हणूंक लागलेः "शिक्षणाचें हें कार्य म्हळ्यार अेके तरेचें धर्मकार्य. तुमकां जाय तो पालव आमी दिवंक तयार आसांत. पुण हो हरिजनांचो प्रस्न तुमी तातूंत भरसूं नाकात."

गांधीजींनीं कळावूच केलो ना. तांणीं सांगलें: "विद्यापिठाचो फंड कुशीकच दवरात. फाल्यां म्हाका कोणेंय अस्पृश्यता दवरपाचे अटीचेर हिंदुस्तानाचें स्वराज्य दिलें जाल्यार हांव तें घेंवचो ना !"

गांधीजींक दिशिल्लो अुजवाड हेरांक कसो दिसतलो ?

****



## : ७६ : हरिजनांक फटवन अुपकारना

दक्षिण भागांत दौऱ्यार आसतना अेक दीस अेकलो कार्यकर्तो अेका जोडप्याक घेवन गांधीजीसरीं आयलो. तिकतेंच तांचें लग्न जाल्लें. आनी तांकां गांधीजींचो आशिर्वाद जाय आसलो.

गांधीजींनी त्या जोडप्याक सांगलें : " हांव फकत आशिर्वाद दिवपाचो ना. हरिजनां खातीर कितेंय हाडलां न्हय? लग्नांत भटांक खूब दिल्लां जातलें. लोकांकूय खूब खावयल्लां जातलें. पुण हरिजनां खातीर कितें दिलें ? तांचे खातीर कितेंय पैलीं दियात मागीर आशिर्वाद दितां. "

गांधीजींचीं हीं अुतरां आयकून तें जोडपें अेका-मेकांचीं तोंडां पळोवंक लागलें. तांकां अुतरच फुटना जालें.

" हरिजनांक फटवन अुपकारना " गांधीजींनी म्हळें.

" महात्माजी, तुमचें म्हणणें बरोबर. पुण हें जोडपें स्वतः हरिजन ! " मदींच कोण–सो अुलयलो.

" अशें ? तर मागीर तुमकां हो टॅक्स लागू जायना. "

लोक सगले हांसले. पुण हरिजनांविशीं गांधीजींच्या मनांत कितलें आपलेपण वसता हाची जाणवीक त्या हरिजन जोडप्याक जातकूच तांका कितें दिसल्लां जातलें ?



## : ७७ : गीतेचो परिणाम

गांधीजींक लोक 'महात्मा' म्हणूंक लागले ताचे आदली गजाल. मुंबैंत गांधीजींनीं वकीली सुरू केल्ली. अेक दीस अेक अमेरिकन तांकां मेळूंक आयलो. तो विम्याचो अेजंट आसलो. तो गांधीजींक तांगेल्या फुडारा विशीं कांय खबरी सांगूंक लागलो. तो म्हणूंक लागलो : " अमेरिकेंत तुमचे सारके सगळे लोक विमो अुतरायतात. मनशाचे जिणेचें कांय सांगूं नज. आज आसा, फाल्यां ना. अकस्मात् कितेंय घडलें जाल्यार बायल–भुरग्यांचें कशें जातलें ? "

तो जसो कितें गांधीजींचो खूब लागिचो अिश्ट जाल्ले बशेनच अुलयतालो. गांधीजींचेर ताच्या अुलवण्याचो परिणाम जावंक लागलो. दोळयां मुखार बायल-भुरग्याचें चित्र अुबें रावंक लागलें. गांधीजींनीं बायलेच्यो सगल्यो वस्ती विकिल्ल्यो. पैशांचो सांठो करूंक नासलो. तांकां दिसलें," फाल्यां म्हाका कितेंय जालें, जाल्यार म्हज्या बायल-भुरग्यांक कोण पोसतलो ? व्हडलो भाव आसा. ताणें म्हजे खातीर जायतें केलां. ताचेर आनीक ओजें घालप बरोबरजावचें ना." मनांत अशें यवजिलें आनी गांधीजींनीं धा हजारांचो विमो अुतरायलो.

मुखार तांचीं मतां बदललीं. मनांत येवजूंक लागले, " व्हडलो भाव जर तुका बापाय सारको दिसता तर तुजे बायलेक आनी भुरग्यांक पोसप ताका जड वतलें अशें तूं कित्या वेल्यान म्हण्टा ? आनी तूंच पैलीं मरतलो अशें तुका कोणें सांगलें ? त्या भायर देवाचेर अितलो अविश्वास कित्याक ? आजय हजारांनीं लाखांनी गरीब लोक संवसारांत आसात तांचें कशें जाता ? तूं आपणाक तांचे परस वेगळो कित्याक मानता ? विमो अुतरावन तुवें बायल-भुरग्यांक पराधीन केल्यांत. तुका जर तांच्या फुडाराचो हुस्को दिसता जाल्यार तांकां स्वावलंबी कर ! "

मनांत अशें घोळटालें आनी भायल्यान ताका पालव मेळटालो. गांधीजी त्या दिसांनी भगवद्गीता पाठ करताले. गीतेचो तांचे जिणेचेर खूबच परिणाम जाल्लो. अपरिग्रही जिणेची तांकां रूच लागिल्ली. तांणीं येवजिलें: " हांव मुमुक्षु. म्हाका परिग्रह सोबना. बायल-भुरग्यांचो हुस्को हांव काडचो ना. तो सगळयांचें पळवन घेतलो. "

आनी तांणीं आपली विम्याची पॉलिसी बंद केली !

****

## : ७८ : नास्तिकतेची अेक तरा

गरजे परस अदीक सांठो करप गांधीजींक माननासलें. म्हुण अपरिग्रह हें अेक व्रत तांणीं मानिल्लें. जोड्टा तितलेंय मोडूंक जाय अशें ते मानीत.

भुरग्यां खातीर पैसो करून दवरप हेंय तांकां माननासलें. " मुखार म्हज्या भुरग्यांचे कितें जातले ? " ह्या हुस्क्याक गांधीजी नास्तिकपणा म्हणटाले. आपलीं भुरगीं आपले परस कमी पुरुषार्थी आसतलीं अशें मानप बरोबर न्हय अशें तांचें म्हणणें आसलें. अितलेंच न्हय तर भुरग्यांचेर हो अन्याय जाता अशेंय तें म्हणटाले.

****

# गांधी साअित्यांतलीं दुसरीं पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| १ | **महात्माः**—गांधीजींची जीण आनी वावर हांचेर व्हड व्हड मनशांचीं मत्तां | १.२५ न पै. |
| २ | **सत्याग्रहः**—सत्याग्रहावेलीं गांधीजींचीं अवतरणां आनी तांचेर रवीन्द्र केळेकार हांगेलें मनन | ०.६२ ,, |
| ३ | **गांधीजीलो मार्गः**— अहिंसक प्रतिकाराच्या शास्त्राचेर विनोबा काकासायब आनी मश्रुवाला हांचीं बरपां | ०.७५ ,, |
| ४ | **भारताचो दिश्टावोः**–India of my dreams चो अणकार | ०.७५ ,, |
| ५ | **मंगळ–प्रभातः**—आश्रमी जिणच्या अिकरा व्रतांवेलें भाष्य | ०.५० ,, |
| ६ | **सर्वोदयः**—रस्किनच्या Unto this last त्या पुस्तकाचो आपरोस | ०.५० ,, |
| ७ | **नीतिधर्मः**—Ethical Religion त्या पुस्तकाचो अणकार | ०.५० ,, |
| ८ | **सत्याची साधनाः**—अध्यात्मिक विशयावेलीं गांधीजींची मत्तां | १.०० ,, |
| ९ | **मानसतीर्थः**—संसारभर गाजिल्ल्या The Mind of Mahatma Gandhi त्या पुस्तकाचो अणकार | २.५० ,, |

**मेळपाचें ठिकाणः**— **गोमंत भारती,**
मणिभवन, १९, लेबरनम रोड,
**मुंबै ७**

COVER PRINTED AT :- CAPITAL ART PRINTING PRESS, BOMBAY 4.